# भुक्या दोंगुल्ली वयलें माजर

लेखक - एड यंग, कोंकणी अणकार – गायत्री पाटील



भुक्या दोंगुल्लीचेर एक गिरेस्त माजर-देव रावता, जाचे कडेन जाय-जाय ते सगळे आसून लेगीत ताका आपले कडेन कांयच ना अशें दिसता. आपल्यो इत्सा पुराय करूंक, संवसारांतलो सगळ्यांत ऊंच इमारत बांदूंक ताणें एक फामाद वास्तुशिल्पकार नेमलो, आपले रेशमाचे कपडे भांगराचे करूंक सगळ्यांत फामाद दर्जीक सांगलें, आनी ताच्या शेतांतल्या तांदळाचे रुचीक पदार्थ तयार करूंक एक नामनेचो शॉफ दवरिल्लो. हाचे परस चड आनीक कितें मागपाचें उरिल्ले?

पूण जेन्ना दुकळ पडलो तेन्ना माजर-देवाक जिवितांत पयलेच फावट लुकसाण जाणवलें. मागीर तो दोंगरा वयल्यान सकयल आयलो. ताणें थंय जे अणभवले ते ताचें जिवीत सामकेंच बदलून उडयतले.

कॅल्डिकॅट मेडल विजेते एड यंग हांणी हे काणयेचीं सोबीत चित्रां काडल्यांत. आमी मोलादीक गजालींच्या फाटीं लागनासताना तांचो आनंद घेवंक शकता हे आमकां काणयेंतल्यान कळटा.

भुक्या दोंगुल्लीचेर एक गिरेस्त माजर-देव रावतालो, जाचे कडेन जाय-जाय ते सगळे आसून लेगीत ताका आपले कडेन कांयच ना अशें दिसता.



संवसारांतल्या सगळ्यांत घटमूट कामगारांनी ताचे खातीर संवसारांतलो सगळ्यांत ऊंच पगोडा बांदिल्लो. तो थंयच रावतालो, बाकीच्यां परस सगळ्यांत वयर.





नामनेचे दर्जी ताचे खातीर रेशीम आनी भांगराच्या धाग्यांनी गुंथिल्ले कपडे शिंवताले.

शिकारी ताका तरेतरेचें मांस हाडून दिताले, आनी श्रेश्ठ रांदपी ताचे खातीर ताच्या शेतांतल्या तांदळा पसून रुचीक खाण तयार करताले.



जेन्ना माजर-देवाचे कामगार ताका ताचें जेवण खावन जाले काय ना ते विचारताले तेन्ना तो तांचेर तापतालो, “तुमकां दिसना कितें? ताट अर्दें रिकामें जालां तें दिसना तुमकां. व्हरांत तें उखलून.”





भुक्या दोंगुल्लीचेर पिकपी चविश्ट तांदळां खातीर फामाद आशिल्ली. थंयचे कामगार धान्य खूब मेहनतीन पिकयताले. उपरांत हेर कामगार तें पीक न्हंयेच्या उदकांत धुताले.

माजर-देव आपल्या पगोडांत उबो रावून तांचेर नदर दवरतालो आनी तांकां धेंगसो घालतालो, “बेगीन करात. आनीक खूब पीक कापपाचें आसा.”

भुक्या दोंगुल्ली वयल्या लोकांची जीण अशीच चलिल्ली. पूण एक दीस थंय दुकळ पडलो. आठवडे म्हयन्यांत बदल्ले. आनी म्हयने वर्सानी. पूण पावसाचो एक थेंब ना. शेतकारालें पीक इबाडलें, माजर-देवालें भातूय पिकूंक ना. गांव लोक भुकेन तिश्टेवपाक लागले. पूण उपाट संपत्ती आशिल्ल्यान माजर-देव आपली सुखी जीण जगत रावलो.

दुसऱ्या वर्सा लेगीत दुकळ पडलो. खावपाक कांयच नाशिल्ल्यान गांवचे लोक दोंगर सोडून सकयल शारांत रावपाक गेले. थंय जीण मातशी सोंपी आसली.





माजर-देवाची गिरेस्तकाय आता कांयच कामाची नासली. ऊंच पगोडा बांदूंक, अलंकारीक कपडे शिवपी आतां कोणूच उरूंक नाशिल्ले. रांदपाक मांस वा तांदूळ नाशिल्ले आनी रांदूंकय कोणूच नाशिल्ले.

तरी लेगीत माजर-देव दोंगर सोडूंक तयार नासलो.

एशो-आराम आनी धन-संपत्ती शिवाय कसली जीण, अशें तो चिंत्तालो.





निमाणे खावपाक पिवपाक कांयच नाशिल्ल्यान, माजर-देवाक आपल्या घरांतल्यान भायर सरचे पडले. आपलेच भुंयेंत तो भीक मागूंक लागलो. पूण भीक घालूंक कोणूच ना.

तो एकलोच हांगच्यान थंय आनी थंयच्यान हांगा चलपाक लागलो.



शेवटाक ताका ताच्या सारकेंच आनीक दोन भिकारी दिसले. ते दोगूय शेकोटी लागीं बसून धग घेताले.



तांणी माजर-देवाक एका जोगी विशीं सांगलें. तो लागींच एका देवळांत रावतालो आनी भुकेल्ल्या लोकांक फुकट जेवण दितालो. माजर-देवाक त्या देवळांत व्हरपाक ते तयार जाले.



दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें ते देवळा वटेन वचपाक भायर सरले. थंय पावताच तांकां भिकाऱ्यांची एक लांब रांक दिसली. सगळे जाण खावपाक मेळटले हे आशेन थंय उबे राविल्ले.

शेवटाक माजर-देवाची पाळी आयली. जोगीन माजर-देवाच्या ताटांत एक दावल गरम शीत घालें. ताचें ताट अर्दें भरिल्लें.



माजर-देव पोट भरपा सारकें असलें
जेवण केन्नाच जेवूंक नासलो.



“हांव तुमकां कितें विचारूंक सोदतां?” माजर-देवान त्या जोगीक म्हणलें. “तुमकां अश्या कठीण वेळार इतलें बरें तांदूळ खंय मेळ्ळें?”

जोगीन एक लांब स्वास घेतलो आनी म्हणलें, “हांव खूब नशीबवान, कारण हांव भुक्या दोंगराच्या मुळांत रावतां. दोंगरार रावपी माजर-देव निश्काळजीपणान आपलें धान्य न्हंयेंत धुतालो. खूबशें धान्य उदका वांगडा व्हांवन म्हज्या व्हाळांत येतालें. खूब वर्सां हांवें तें धान्य एकठांय केलें. आतां म्हजे कडेन इतलें धान्य आसा, हांवें तें हजार दीस खाल्ल्यारूय सोंपचें ना. ताकाच लागून गरीब भुकेल्ल्या लोकांक हांव तें वांट्टां.”



माजर-देवान आपल्या हातांतल्या रिकाम्या ताटा कडेन पळयलें. आपणें नाशाडी केल्लेंच धान्य आपल्याक खावपाक मेळा हें ताका समजले. आनी पयले फावट ताका नशीबवान आसा म्हणल्यार कितें, हाची जाणीव जाली.



आयजूय भुक्या दोंगुल्लीच्या मुळांत आशिल्ल्या देवळांत गेल्यार, तुमकां माजराच्या आकाराचें एक मोटें आयदन दिसता. ह्या आयदनांतल्यान तुमी एक चिटारो काडपाक शकतात, जाचेर बरयलां – “फकत म्हाका खबर आसा कितले पुरोशे आसा ते.“

कॅल्डीकॉट मॅडल सन्मानीत एड यंग हांणी 80 वयर बाल-साहित्याच्या पुस्तकां खातीर चित्रां काडल्यांत. तातूंतलीं सतरा पुस्तकां तांणी स्वता बरयल्यांत. एड यंग हांचो जल्म टिंटसीन, चीनांत जालो. ते शांघायंत ल्हानाचे व्हड जाले आनी उपरांत ते हाँगकाँगांत गेले. मागीर ते आर्किटॅक्चर शिकपा खातीर अमेरिकेंत गेले पूण थंय ते चित्रकलेंत रमले. 1990त तांच्या 'लोन-पो-पो' ह्या पुस्तकाक कॅल्डीकॉट मॅडल फावो जालें. तांच्या 'द एम्परर एण्ड द कायट' आनी 'सॅवन ब्लायण्ड मायस' ह्या दोन पुस्तकांक कॅल्डीकॉट हॉनर मेळ्ळा. ते हेस्टींग्स – ऑन – हडसन, न्यू-यॉर्कांत रावतात.

एड यंग विशीं जाणून घेवंक भेट दियात

www.edyoungart.com

